# गीता : ध्येय दर्शन

गीता माध्यम रुपान जें ध्येय दर्शन श्रीकृष्ण आमच्या मुखार दवरता तें समजून घेवपाखातीर पयलीं ध्येय म्हळ्यार किर्ते हेंच समजून घेवया. अप्राप्त पूण प्राप्तव्य आसूं शकता हो विचार म्हळ्यारच ध्येय अशें म्हळयार जाता. अर्थात जी अवस्था प्राप्त करूंक शक्य आसता आनी प्राप्त योग्य पूण आसता ताका ध्येय म्हणटा. ही विचार सरणी तीन प्रकारची आसा-

| | | |
|---|---|---|
| शुद्ध ध्येयवाद | - | Pure Odealism |
| व्यवहार्य ध्येयवाद | - | Practical Iolealism |
| प्रगमनशील ध्ययवा | - | Progressive Idealism |

शुद्ध ध्येयवाद वैयक्तिक जीवनमर्यादा हुपून फुडें वचपा खातीर मनशाक आयुरताय दिता.

**व्यवहार्य ध्येयवाद** जें असाध्य दिसता तो ध्येय "कष्ट साध्य" आसल्यार उपकारता. कष्ट करून पूण साध्य जाता तोच व्यवहार्य ध्येयवाद.

**प्रगमनशील ध्येयवाद** सतत उच्च प्राप्ति खातीर प्रयत्नशील आसता. असाध्य आनी कष्टसाध्य ध्येय प्राप्तिं जाता तेन्ना उत्तरोत्तर उच्च करीत रावंक जाय.

गीता वांचन करता आसताना जाणवता की तातूंत जो ध्येय दृष्टव्य जाता ती प्रगमनशील ध्येयवाद आसा, हाचो अर्थ असो की शुद्ध ध्येयवादची असाध्यता ताका मान्य ना, तर व्यवहार्य ध्येयवादी "अल्पसंतुष्टता" पूण मान्य ना पूण गीता सन्देश प्रगमनशील ध्येयवादी आसा आनी तो पुरुष अस्तित्वी आसा म्हळ्यार मनीस साधना द्वारा जाका प्राप्त करूं शकता तसो आसा. कल्पना चित्र ना. ध्ययवादी कसणी-कसोटी आसता तातूंत एक दृष्टि-तत्त्वदृष्टि Ideality दुसरी नीतिदृष्टि Rationality - तिसरी व्यवहारदृष्टी Reality - आनी चवथी व्यक्तिदृष्टी Personality आसा.

**गीता-दृष्टी प्रगमनशील ध्येयवाद :**

गीता-तत्त्वदृष्टि आध्यत्मिक Idealisic, आधिदैविक Personalistic आनी अधिभौतिक Realistic जीवन मान्यता घेवन आसा. तत्त्वदृष्टिचो विचार केल्यार आध्यात्मिक कसणीचेर ध्येयवादी योग्य दिसता. नीतिदृष्टिचो विचार केल्यार कर्मफळ सोडून काम करपाक लाग ही निडरता हांगा दिसता. हीच दृष्टि गीता मान्य करता तिसरी व्यवहार्य दृष्टि म्हळ्यार जगत जड स्वरुपांत आसा ताका पूण गीता मान्यताय दिता, मागीर जड तत्वी स्वरुप किर्ते आसतलें हो विचार स्वतंत्र दृष्टिकोणी आसतलो पूण गीता जगत् अस्तित्वचो स्वीकार करता हातूंत दुभावच ना. चवथी गजाल म्हळ्यार व्यक्ति समष्टिची अंश आसा पूण ती अखंड अंश आसा अशें मानता. हे सगळो अभ्यास करताना जाणवता की गीता ध्येय दृष्टि प्रगमनशील ध्येयवादी आसा.

साधन आनी साधना दोनूय तत्वांक मान्यताय दिता. साधना शिवाय फळप्राप्ति जातली अशे म्हणजे ना. वत्स तुजें कल्याण जांव म्हळयार ते जायना पूण त्याखातीर साधना करजेची आसा अशें म्हणटा. गीताकार सांगता-

*"बहूनां जन्मनामन्ते ज्ञानवान्मां प्रयद्यते".*

स्वयं श्रीकृष्ण पूण "मोक्ष पोटली" आमकां दिना पूण जन्मजन्मांतर प्रयत्न साध्य ध्येय प्राप्ति खातीर साधना महत्वपूर्ण मानता. सन्त तुकारामचे उतरांत सांगचे जाल्यार "नाही देवा पाशीं मोक्षाचे गाठोडे आणुनि निराळे द्यावे हाती"- मनीसच आपल्या प्रयत्न द्वारा पूर्णता प्राप्त करता ही स्थितिच पूर्णता- Absolution अथवा Perfection - ची आसा. ह्याच कारणाक लागून "स्थितप्रज्ञ" दर्शन आनी ताचे अठरा श्लोक समजावचे पडलें.

बाह्य देह द्वारा व्यवहार करप आनी आन्तरिकपणे अलिप्त रावप हे जीवन संशयास्पद दिसता. लोकाक फटोवप, प्रेम प्रदर्शन करप आनी आन्तरिकपणे अलिप्त रावप हें तर राजकारणी करूं शकता पूण बाह्यदृष्टि अत्यंत प्रेमळ दवरून मानसिक अलिप्तताय कशी हाडप हीच व्हडली कला आसा. हातूंत दंभ, ढोंग उपकार ना. गीताकार "स्थितप्रज्ञ" भाष्य खोलायेन व्यक्त करता, ताका तशें करचें पड्टा कारण सबन्ध

विश्वप्रेम दाखयल्या उपरान्त आन्तरिकपणे अलिप्त रावप ही स्थिति साध्य करूंक साधना लागता, दांभिक मनीस बाह्य आडम्बर करूं शकता पूण (दम्भ) दंभ नासून हे कशें साध्य करूं येता? हीच व्हडली समस्या आसा.

गीताकार उपनिषद् मान्य "स्थितप्रज्ञ" देख आमच्या मुखार दवरता. प्रज्ञ स्थित आसप म्हळयार बुद्धिस्थिर आसप. बुद्धि कंपित जायना वक्र जायना ती व्यक्ति स्थितप्रज्ञ आसा. ज्या ज्या जाग्यार बुद्धि कंपित जाता त्या त्या जाग्यार भावना - ईर्षा, करुणा, दया, वात्सल्य, कारुण्य आदि बुद्धिक हालयता, कांपयता. श्रीकृष्ण म्हणटा बुद्धि कंपरहित आसूंक जाय. अहंकार येता तर दया येतली, करुणा येतली. अहंबुद्धि म्हळयारज कोणाक नाजाल्यार कोणाक घेवन येवपी बुद्धि. ती एकती केन्नाच येवंची ना. असली बुद्धि दयाबुद्धि वात्सल्य बुद्धि अथवा द्वेष बुद्धि जाता. म्हळयार अहंकाररहित बुद्धि असता तीच प्रज्ञा अशें गीताकार मानता. अर्थात गीता अनुसार कर्मयोगी अहंकाररहित आनी वासनारहित आसूनय कर्मयोगी आसता.

"युक्त आसीत मत्परः" ईश्वर आधार आनी आज्ञा स्वीकार करुन ताचे कार्य चालता. कर्मयोगी उपरान्त तो निष्काम पूण आसूंक जाय. निःस्पृह आसूंक जाय, अशें जाल्यारूच तो स्थिरमतित्व प्राप्त करूं शकता, नाजाल्यार तें शक्य जायना. हाचो अर्थ असो की फलाकांक्षारहित Desireless - जाय. कितलो निष्काम तर म्हळया-

*"प्रजहाति यदा कामान् सर्वान पार्थ मनोगतान"*

अर्थात त्या मनशाच्या मनांत एकूय कामना संग्राहित राविल्ली आसूंक जायना. मनोगत कामना पूण काडून उडोवची अशें म्हळया. कामना त्याग करपाक चार मार्ग पूण दाखयल्या. कामना व्यापक करची, एकाग्र करची, सूक्ष्म करची आनी विशुद्ध करची. अशें ज्ञतिन जीणेच्या सन्दर्भान मनशाक जितले मोह उत्पन्न जाता ताचे निराकरण करुन प्रभु इच्छा आधीन रावपांत मनशाचे कल्याण असा असो सन्देश दिता. साधन आनी साधना शिवाय मनीस आपलें कल्याण आसपावता ताचो अर्थच समज शकचो ना. विचार-मंथन जाता तितल्या प्रमाणान नवनीत गीता माध्यमांतल्यान आमकां मेळटा.

सन्दर्भ : पू. श्री. पांडुरंग शास्त्री आठवले ह्यांचे पुस्तक -"गीतामृतम"

सन्दर्भ : "श्रीमदभगवद्‌गीता" - गुजराती-टीकासहित- भाषांतरकारचे नांव दिल्ले ना.

**डॉ. चन्द्रलेखा डि'सौझा.**
कोंकणी विभाग
गोवा विश्वविद्यालय.

◆ ◆

**कर्मण्येवाधिकारस्ते मा फलेषु कदाचन।**
**मा कर्मफ हे तुर्भूर्मा ते सङ्गोऽ स्त्वकर्मणि।।**

२-४७

**योगस्थः कुरुकर्माणि सङ्गं त्यक्त्वा धनंजय।**
**सिद्धयसिद्धयोःसमो भूत्वा समत्वं योग उच्यते।**

२-४८

तुला फक्त कर्माविषयी अधिकार आहे, कर्मफलाविषयी इच्छा धरता कामा नये, कर्मफलाला हे तुभूत तुला कधी होता उपयोगी नाही व कर्म न करण्याविषयी देखील मनाचा कल होऊ देऊ नकोस. (२-४७) योगयुक्त होऊन फलाची संगती टाकून तू कर्म कर. सिद्ध व असिद्ध कर्माविषयी मनाचा जो समतोलपणा त्यालाच योग असे म्हणतात.

●

**प्रकृतेः क्रियमाणानि गुणैः कर्माणि सर्वशः।**
**अहंकारविमूढात्मा कर्ताहमिति मन्यते।।**

(गीता अ. ३ श्लोक २७)

सर्व कर्मे ही सर्व बाबतीत प्रकृतीच्या गुणाप्रमाणे केली जातात; ज्याचे मन अहंकाराने मोहित झालेले असते तो मीच कर्ता आहे असे समजतो. म्हणून विवेकाने केवळ अहंकाराचा शेवट करणे महत्वाचे.

●

*Thanks To* : Prabhu Electricals Pvt. Ltd., Panaji.